# विश्वामित्र

बरोवपी
जयश्री शानभाग

मुखेल संपादक
सरदार बस्ती वामन शेणै



कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान (रि.)
विश्व कोंकणी केन्द्र, मंगळूर

# विश्वामित्र

Vishwamithra (Konkani) – a life-sketch for children written by Smt. Jayashree Shanbhag. Publishers: Konkani Language and Cultural Foundation (R), World Konkani Centre, Shakti Nagar, Mangalore.

First Print: 2011

पयली आवृत्ती : 2011


विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा प्रकाशन
गोवा कोंकणी अकादेमी
पाटो कॉलनी, पणजी, गोंय.

उजवाडावपी:
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान (रि.)
विश्व कोंकणी केन्द्र, कोंकणी गांव, शक्तीनगर, मंगळूर

कला आनी अक्षर जुळणी:
विश्व कोंकणी केन्द्र,
साहित्य विभाग

मोल:
रू.: २०/-

# प्रस्तावना

भारत देश ५००० वरसाचो इतिहास आनी प्राचीन संस्कृती आशिलो देश. ह्या महान देशांत हजारोहजार श्रेष्ठ दार्शनीक, राजा महाराजा, साहित्यकार, ज्ञानी, विज्ञानी, जल्माक आयल्याती. जगांतुले बुध्दिजीविंक, सरळ सामान्य लोकांक, दारल्यांक बायलांक, तर्नाट्यांक, चर्डुवांक तांगेले जीविताचे कार्य सिध्दीचे फल, जीविताचे संदेश आनी संसारांत चल्न येवची वाट आनी पायवाट सांगून दाकोव्न गेल्याती. भारतांत सनातन धर्म, बौद्ध, जैन, सिक्ख, इस्लांम, क्रैस्त धर्म आनी वेगवेगळे ध्येय, सिध्दांत आनी कार्यक्रम मांडोव्न घेतीले, राजकीय समाजिक संघ संस्थांय भारत देशांत आसती. आनी त्या त्या संस्थयांचे, धर्माचे दार्शनीक, मुखेले तांगेले कार्य, सिध्दांत, आनी विचार संसाराक बोधन करन गेल्याती.

वयर सांगिले महात्म, राजामहाराजा, दार्शनीक आनी धर्मीक, सामाजीक, सांस्कृतीक क्षेत्रांतुले महा मानेस्तांगेले जीवित, जीवनाचें दर्शन आनी कार्य ल्हान प्रायेचे चर्डुवांक,

विद्यार्थी विद्यार्थिनींक सांगल्यारी, वाडुन येवचे मुखावयले पिळगीक एक आदर्श दाखोवन दिलेयावरि या सांगिलवरी जातलें. ह्या खातिर प्रकाशन जावचे कोंकणी भाषीक श्री. कार्कळ अनंत पै (अंकल पै)लें अमर चित्रकथा, चंदमामा महिन्याळें, भारत भारती पुस्तकां, चर्डुवाल्यांत मात्र न्हंय, घरांतुले तांगेले म्हालगड्यांकय खूब आवडलेलें आसा. अमर चित्र कथा तांतूय भारतांत मात्र न्हंय, विदेशांतूय खूब प्रसिद्ध आनी जनमोगाळ जालेलें सर्वांक कळूनची आसा.

कोंकणी भाशेंत बालसाहित्य खूब ऊणे आसा. बरें बाल साहित्य उजवाडाक हाडून कोंकणी बाळाल्यांत पुस्तक वाचूचे आनी साहित्यांत अभिरुची हाडचे अगत्य आसा, म्हळेलें मनांत घेवन कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठानाचे वतीन विश्व कोंकणी केन्द्राचे आनी विश्व कोंकणी साहित्य अकाडेमीचे मुखावयले योजनादावन, विश्व कोकणी बाल साहित्य उजवाडाक हाडचे ठरयलां. ह्या पुस्तक मालिकेंत प्रपंचांतुले मुख्य जावन भारत देशाचे मानव श्रेष्ठांगेले जीवित

आनी कार्यांचे माहिति दिवचे ल्हान ल्हान पुस्तकां प्रकाशन करन बाळाल्यांत कोंकणी साहित्य जनमोगाळ करचें उद्देश आसा. हाका कोंकणी चर्डुंवालें आनी तांगेले वडीलांगेलेय प्रोत्साहन मेळतलें, आनी तान्नी उगते मनान स्वीकार करतले अशें आम्मी आशेताती.

**विश्वामित्रालें** जीविताचें विषयांत हें पुस्तक बरोवन दिलेले श्रीमती जयश्री शानभाग हांका देवु बरें कोरो. पुस्तकाचे मुखचित्राचे कल्पना आनी डीटिपी विश्व कोंकणी केन्द्रांत जाल्या. पुस्तक छापसून दिलेले कोडवर्ड प्रासेस आनी प्रिंटर्स मंगळूरु आनी विश्व कोंकणी बाल साहित्य पुस्तक माळा प्रकाशन, **गोवा कोंकणी अकादेमीचे** देणिगा. हांका देव बरें कोरो.

विश्व कोंकणी केन्द्र
फे. १४, २०१२

**बस्ती वामन शेणै**
*अध्यक्ष*

# विश्वामित्र

“कौसल्या सुप्रजा राम । पूर्वा संध्या प्रवर्तते ।
उत्तिष्ठ नरशार्दूल । कर्तव्यं दैवमाहिनाकं ॥”

कौसल्येचो सुपुत्र श्री रामा, उदेंतात उजवाड दिश्टी पडत आसा. आरे नरश्रेष्ठा ऊठ, देवाची आराधना आदी करपाक सुरवात कर –

देवाक जागोवपी सुप्रभाताचो हो श्लोक आमी खूबदा आयकला. विश्वामित्रान श्री रामाक जागयताना सांगिल्लो श्लोक हो.

विश्वामित्र मूळचो राज घराण्याचो. हाचो बापूय गाधी महाराज. विश्वामित्राक विश्वरथ अशेंय नांव आसलें. हाच्यो हैमवती, शालावती, दृषद्वती, रेणु, माधवी आदी बायलो आशिल्यो. हाचे मधुच्छंद, कती, याज्ञवल्क्य, पाणिन, गालव, मुद्गल, सांकृती, देवल, अष्टक आदी भुरगे आनी हाच्याच वंशाचो शुनश्शेफ नांवाचो चलो

फामाद जाले. विश्वामित्रान खूब वर्सां मेरेन राज्यभार केलो.

## “कसलो अतिथी सत्कार!”

एक फावट विश्वामित्र एक अक्षोहिणी सैन्य घेवन बरेंशें थळ पळोवपा खातीर भोंवडीर भायर सरलो. (एक अक्षोहिणी म्हळयार 21870 रथ, 21870 हत्ती, 65610 घोडे आनी 1,09,350 पदाती सैन्य म्हळ्यार पांयदळ) अशें चलत चलत तो एक रानांत पावलो. कितें अजाप! त्या रानांत वाघ, चितलां, गायो आदी सगली मोनजात कितले मैत्रीन आसात! सगले कडेन खेळी–मेळीचें वातावरण. व्हा! ह्या थळाची व्हडविकाय कितें! अशें राजा आश्चर्य आनी आनंद पावत फुडें सरलो. थंयच थोडे पयस एक आश्रम. तें आश्रम वशिष्ठ नांवाचे महामुनीचें. तांचे तपः प्रभावानच त्यो दुश्टप्राणी आपलें वैरत्व विसरून सगल्यां बरोबर इश्टागत करून आशिल्यो.

वशिष्ठ महामुनीन विश्वामित्र महाराजाक आदरपूर्वक येवकार केलो. अपुरबायेन फावो ते पीठार बसयलो. पियेवपाक शीतळपेय, आनी खावपाक रसाळ फळां ओंपलीं; क्षेमसमाचाराची वासपूस केली. खबरो करताना वशिष्ठांक कळ्ळें की राजा मोटें सैन्य घेवन आयला. "तूं आनी तुजे सैनिक सगले हांगाच जेवपाक चला. आमचें आतिथ्य स्वीकार करा" अशें सांगलें.

राजा कशेंय कबूल जायना. एक न्हय, एकवीस न्हय, एक अक्षोहिणी सैन्य ... .. इतले लोकांक एक ऋषीन जेवण वाडपाचें कशें? इतल्यो हत्ती आनी घोडयांक भूस दितलो खंयचान? अचकीत इतले लोकांक जेवण दिवप हें आमच्या राजवाडयांतच शक्य जायना अशें आस्ताना वनांत एक कुटीरांनी रावपी ह्या ऋषीक जमतलें काय? अशें राजाक दिसलें.

पुणून किदें? वशिष्ठान खूब आग्रो करतकच राजा विश्वामित्र ताचे मायेमोगाक कबूल जालो.

वशिष्ठ मुनीच्या आश्रमांत नंदिनी नांवाची एक गाय आशिल्ली. ही नंदिनी सर्गाची गाय कामधेनूची धूव.

वशिष्ठ नंदिनीचे फुडें उबेरावन "हे माते, हें चोय, राजा विश्वामित्र आनी ताचें परिवार आयलां. तांचो आदर सत्कार करप हो आमचो धर्म आनी कर्तव्य जावन आसा. सगल्यांक भरपूर जेवण जावचें तशें कृपा कर" अशें विनंती केली.

रोखडेंच नंदिनीन राजाचे सर्व लोकांक तांचे तांचे आवडीचें जेवण–पोळी–पीठ, म्होंव आनी वेगवेगळे, नमून्याचीं फळां बी दीवन सत्कार केलो. सगले खूब तृप्त जाले.

## "म्हाका दी"

इतलें सगलें आपल्या दोळयानी प्रत्यक्ष पळयल्ले विश्वामित्राक अजपूच दिसलें. वनांत रावपी एक गरीबसो ऋषी आपले लाखानशी सैनीक आनी वांगडयांक इतलो भरपूर सत्कार करपाक कशें फावो जालो काय... . अशें विस्मित जावन विचार करीत ताणे वशिष्ठाकच विचारलें. वशिष्ठान सरळतायेन सांगलें की ही सगली, गाय नंदिनीची कृपा. हें आयकून तर विश्वामित्र आनीकूय आश्चर्यांत बुडलो.

वांगडा ताका असोय एक विचार आयलो – असली दिव्य शक्त आशिल्ली गाय म्हज सारखे राजा लागीं आसप हें योग्य जावन आसा – ताचे तकलींत हो विचार आयिल्लोच रोखडें ताणें वशिष्ठ मुनीक म्हळें "मुनीवर्य ... तुमी जाणात ..... हांव राजा. ही नंदिनी गाय तुमी म्हाका दियात. ताचे बदलाक हांव तुमकां एक लाख बरयो सुंदर गायो, चौदा हजार उत्तम जातीचे हत्ती,

आठशी जडजवाहीर बसयले रथ, इतलेंच न्हय आनीकूय कित्येक मोलादीक वस्त दितां"

"महाराज म्हजें दीसप ेयज्ञ –याग, तप, अतिथी–अभ्यागतांची सेवा करपाक मदत जावों म्हण कामधेनून म्हाका ही नंदिनी दिल्या. म्हजी खरी गिरेस्तकाय म्हळ्यार हें एकच. असले गायेक राजा, हांव कशें दिवूं?"

विश्वामित्राक खूब असमाधान जालें. "तुमचे सारके रानांत रावपी ऋषींक ही गाय किद्या सांग ? हांव राय जावन आसां. असलो सर्वोत्कृष्ट आनी दुर्मीळ असलो वस्तु राजाची मालकी."विश्वामित्रान मातशें गंभीर जावन म्हळें. वशिष्ठान तितलेच मोवाळ उतरांनी सांगलें "राजा, ही गाय दिवपाचें स्वातंत्र्य म्हाका ना."

"म्हाका आडायतालो कोण?" आतां विश्वामित्राक खरेंच राग भरलो. आपण इतलो पराक्रमी राजा. ह्या

ऋषी लागीं बरेभशेन मागल्यार हाची इतली बेपरवाय की! आपणें मागल्यार, बरे उतरांनी सांगल्यार दीना. आपणें गाय ओडून व्हेल्यार हो लाचार ऋषी करतालो तरी किदें? आपल्याक आडायता तरी कोण? अशें चिंतून ताणे आपले सैनिकांक उलो मारलो "आरे कोणरे थंय? ह्या गायेक ओडून हाडात"

रोखडेंच सैनिक त्या गायेक बांदून ओडपाक लागले. नंदिनीक खूब दुकलें. त्या सैनिकांक धुकलून उडोवन सरसरीत नंदिनी वशिष्ठा म्हर्‍यान आयली, आनी आपले हे त्रास निवारण कर अशें प्रार्थना करपाक लागली.

"आवय गे नंदिनी, राजाची शक्त आनी ताचे सामर्थ्या मुकार हांव दुबळो मुनी. तुजी राखण कशें करुं?" म्हळें वशिष्ठान. नंदिनीन म्हळें "तर मुनिवर्या,

म्हजी राखण म्हाकाच करून घेवपी स्वतंत्रताय तरी म्हाका प्रदान कर"

"तशेंच जांवो ... .. तांतून कांयच चूक ना" अशें वशिष्ठान म्हळें.

हें उतर आयकतकच बेगों बेग गायेन "हुंभा" अशें हुंकार घालो. तेन्ना तिच्या एएक रोमांतल्यान एएक शस्त्रास्त्र सज्जित सैनिक भायर सरले आनी गर्जन करत विश्वामित्राले सैन्याचेर झूज दिलो. विश्वामित्राचे सैन्यूंय कांय कमीचें न्हय. तरीय सुद्दां विश्वामित्राचे सैनिक सगले भिवून तितर–बितर जाले.

हें सगलें प्रत्यक्ष पळयिल्ले विश्वामित्राक उपाट राग आयलो. आनी आपले शंभरूय भुरग्यांक युद्धाक धाडलें. ह्या सगले भुरग्यांनी वशिष्ठ मुनीचेर घुरी घाली. तेन्ना मुनीन एक 'हुंकार' दिलो. अजापूच! थंयसर एकदं उजो भगभगलो. त्या ज्वालेंनी विश्वामित्राचे शंभरुय

भुरगे जाळून भस्म जाले. हें पळोवन विश्वामित्राक अफाट दुख्ख जालें आनी तो रागान उजो जालो.

## "सगलीं मंत्रास्त्र म्हाका अनुग्रह कर"

आपले बाळक सगले नाश पाविले, आपलें सैन्य पुराय काबार जाल्लें हें सगलें ह्या वशिष्ठाचे तप:शक्तिचे प्रभावानंमू? आपले भुरग्यांचे आनी सैन्याचें पराक्रम ह्या ऋषीचे तपश्चर्येचे मुकार व्यर्थ गेलेंमू? अशें विश्वामित्रान चिंतले. "देखून हांवेय तशेंच तप करुन वशिष्ठा भशेन शक्त जोडपाक जाय" अशें विश्वामित्रान मनांनी घ केलें, आनी ताकतिकेन वशिष्ठाचें आश्रम सोडून भायर सरलो. कळाव करीनास्ताना तो हिमालय पर्वताचेर पावलो आनी थंय एक प्रशांत जाग्यार बसून कैलासपती शंकराचें ध्यान करत कठीन तपश्चर्या करपाक लागलो.

दीस सरले ... .... रात सरली ... .... म्हयनेच निसरले ... ... ... वर्षोनुवर्सां गेलीं. ईश्वर प्रत्यक्ष जालोच

ना. विश्वामित्राचें तप आनिकूय कठीन जायत गेलें. अशें हजारानशीं वर्सां जालीं.

विश्वामित्राचे उग्र तपश्चर्येक ईश्वर खोस जालो. प्रत्यक्ष जावन "विश्वामित्रा, तुजे तपश्चर्येन खुशालभरीत जालों हांव... ... घे ... ... जाय तें वरदान माग" अशें म्हणपा लागलो.

विश्वामित्राक अफाट आनंद जालो. "प्रभू, धनुष्य आनी बाण घेवन करपी झूजाचें एकंदर रहस्य, तशेंच यक्ष, राकेस, गंधर्व आनी महर्षी – ह्या सगल्यांकडेन आसपी मंत्रास्त्र – हें सगलें म्हाका अनुग्रहीत कर." म्हण मागलें. ईश्वरान तथास्तु अशें म्हळें.

## "हें कितें ..... परतून पराजय!?"

आतां विश्वामित्राच्या खोशीची शिम–मेर ना जाली. "ह्या वशिष्ठान म्हजें सैन्य आनी भुरग्यांक नाश केलें.

न्हय? आतां नीट ताचे आश्रमाक वचून ताचो गर्वभंग करतां" अशें निश्चय करून तो तुफान सो वशिष्ठाचे आश्रमांनी घुसलो.

विश्वामित्रान भितर सरिलतेन्ना वशिष्ठमुनी आश्रमांनी तपश्चर्येंत मग्न जावनआशिलो. ताचे भोंवतणी कितलेशे ऋषी बसून ध्यान–हवन आदींत गुल्ल आसले.

रागान उजो उजो जावन आनी आपण कशेंय जिंकतलोच म्हणपी अहंकारान आश्रमांत आयिल्लो विश्वामित्र भरधांव वेगान वशिष्ठाचेर जायतीं अस्त्रां प्रयोग करपालागलो.

अचकीत पडिल्या ह्या धपक्याक तपस्वी सगले घाबरले आनी बोबमारत दिको मेळ्ळे कडेन धांवले. हें सगले आड्डप आनी बोबाटा निमतान वशिष्ठाचे तपश्चर्येक भंग पडलो आनी ताणीं दोळे उघडून पळयलें. सामकार आयुधां घेवन उबोरावला विश्वामित्र महाराज. वशिष्ठाचे

भोंवतणी आसपी तपस्वी, वटू घाबरून धांवत आसात. कोणाक मारलागला, कोणाचे तकलींतल्यान रगत गळटा ... .. वशिष्ठान सगल्यांक समाधान सांगलें आनी आपले खांवेक्त आसपी योगदंड काडून आपले मुकार थांबयलो.

विश्वामित्र एका फाटी एक शस्त्रास्त्र प्रयोग करत रावलो. पुणून तीं सगलीं अस्त्रां त्या योगदंडांनी लीन जावपा लागलीं ! हें पळोवन विश्वामित्र आनिकूय तापलो. कितें करपाचें हेंच कळीना. हजारानशीं वर्सां तपश्चर्या करून ईश्वराक खूश करोवन मेळयलीं अस्त्रां ह्या ऋषीचे सामकार व्यर्थ गेलीं व्हय! अशें चिंतून तकलीर हातघेवन बसलो.

भिरांकूळ जावन धांवपी ऋषी सगले परतून आयले, आनी वशिष्ठालो आभार मानलो. आतां विश्वामित्राचे तोंडांतल्यान "धिग्बलं क्षत्रिय बलं ....... ब्रह्मतेजो बलं बलं" म्हळ्यार ब्रह्मतेजा मुकार क्षात्रतेजाक धिक्कार आसूं. ब्रह्मतेज खरोखर तेज व्हय – अशें उद्गार सुटले.

"ब्रह्मर्षी जावपाकूच जाय"

जाल्यार कितें? विश्वामित्र सोपेपणान आपलो पराभव मानून घेतलो न्हय. कितें तरी करुन ह्या वशिष्ठाक हरोवपाकूच जाय अशें दृढ संकल्प करुन परतून तपश्चर्या करून आपली शक्त वाडोवपाजाय अशें चिंतून सांगाता आपले राण्यांक घेवन दक्षिण दिकेन प्रयाण करपाक भायसरलो. थंयचे वनांनी परतून घोर तपश्चर्या करपा लागलो.

तपश्चर्या करत करत आनी शंभरानशीं वर्सां पलटलीं. ब्रह्म प्रत्यक्ष जालोचना. अशें एक हजार वर्सां जालीं. आतां ब्रह्म विश्वामित्राचे दृढसंकल्पाक खोस जालो. प्रत्यक्षजावन "अरे विश्वामित्र राजा ... .. आतां तर तूं राजर्षी जालो व्हय" म्हणपा लागलो.

विश्वामित्राक समाधान जांवूना. ... .. "ना देवा, हांवे ब्रह्मर्षी जावका ...... तो मेरेन हांव तपश्चर्येतल्यान हालना" अशें म्हणत आपलें तप चालू दवरलें.

## "हांव ... .... याग करयतां"

ह्याच वेळार एक गजाल घडली. इक्ष्वाकूमहाराजाचे वंशाचो त्रिशंकु नांवाचो एक राजा. ताची एक विचित्र इत्सा आशिली. ह्या जल्मांत घडिल्लें पाप पुराय शुद्ध करुन घेवन हें मनुश्य शरीरा सक्ट आपणें सर्गार वचपाजाय अशें चिंततालो. आपली ही इत्सा पूर्ण करपा खातीर एक  याग करूयां अशें ताणें आपले कुळगुरु वशिष्ठां कडेन मागलें. तेन्ना वशिष्ठान म्हळें "बाबारे त्रिशंकु, हांवे सांगिल तें कान दीवन आय्क, कोणेय आसूं, मनुश्य शरीर घेवन सर्गार वचपाक वाव ना. देखून तुंवे सांगिल प्रमाणे याग करपाक हांव कबूल ना."

हें आयकून त्रिशंकुराजाक खूब वायट दिसलें. तरी सुद्दां आपली इत्सा वगळायलिना. वशिष्ठाचे आश्रमांतल्यान भायर सरून विचार करीत दक्षिण दिकेन चल्लो. वाटेर रानांत वशिष्ठांचे शंभर भुरगे–तेवूय ऋषीच आशिल्ले. तांचे कडेन आपली इत्सा प्रकट केली. "तुमी तरी एक याग करोवन दियात म्हाका" त्रिशंकून मागलें. ताणीं सगल्यांनी ताची थट्टा उडयली आनी म्हळें "वशिष्ठा तसले म्हालगडे आनी ज्ञानीच जेन्ना याग करपाक तयार जालेनात, आमी किदें करुं?

वशिष्ठाचे भुरग्यांनी फकाणां केल्लीं आयकून त्रिशंकूक राग भरलो. "वशिष्ठ जावों – तुमी जावों याग करपाक तयार ना जाल्यार कांय हरकत ना. हांव कोणाचेतरी पालवान हो याग करयतलोंच" अशें त्रिशंकून म्हळें. उद्घटपणाचीं हीं उतरां आयकून वशिष्ठपुत्रांक तिडक मारली. "गुरुद्रोही जावन आशिलो तू चांडाळ जा" अशें

ताणीं स्राप दिलो. देखून त्रिशंकूक चांडाळाचें रूप आयलें — आंगाचो रंग काळो जालो; माथ्याचे केस खरखरीत जाले; तोंडाचें तेंव वगडलें. ताचे सांगता आशीले मंत्रिगण आनी हेर वांगडी ताका सोडून गेले. त्रिशंकूचें दुख्ख सोसपाक नजो इतलें जालें.

तरीय धीर धरुन तो फुडें चलत आसताना ताचें पुण्य विशेष की म्हणचे तशें तपश्चर्य करत बशिलो विश्वामित्र दिसलो. ताका नमस्कार केलो त्रिशंकून.

एका तेपार राज्यांत णव वर्ष पर्यंत पावस पडूं नासलो. दुश्काळ पडिलो. राज्याची जनता खावपा-पियेपाक नासताना भूकेन खूब वळवळ्ळी. हे वेळार विश्वामित्र तपश्चर्या करपाक गेल्लो. हांगा ताची बायल-भुरगीं त्रिशंकूचे राज्यांत वसतालीं. तेन्ना त्रिशंकून स्वता तांका आहार हाडून दीव्न तांचो जीव वांचयिल्लो. विश्वामित्र जेन्ना परतून आयलो ताका दुश्काळाची ही गजाल, आपलीं

बायल – भुरगीं साबूत आशिल्लीं, तांका राजा त्रिशंकून स्वता जेवण दीवन राखण केल्लें .. हें सगलें समझलें.

आतां चांडाळाच्या रुपान जरी आसलो त्रिशंकूक विश्वामित्र वळखलो. ताका पळोवन खूब वायट दिसलें. “बरें जावूंदी बाब तुका ... .. पुणून म्हाका सांग, हें अशें किद्याक घडलें? विचारलें विश्वामित्रान. त्रिशंकून आपली सबंध काणी सांगली – “हांव केन्नाय फट मारिल्लों न्हय. प्रजेंक सगल्यांक धर्मान वागयल्लों. पुणून आतां म्हजें रक्षण करपी कोणेय नात. केवळ मनुश्य प्रयत्नान देव लाबचे तशें करून कशेंय तरी ह्या शरीरा सकट सर्गार वचपाची म्हजी इत्सा पुराय कर.” त्रिशंकून नमळायेन मागलें.

ताचे त्रास पळोवन विश्वामित्राक काकुळत दिसली. “बाब त्रिशंकु – भियेनाका .... हांव तुका मदत करतां. तो याग हांव करोवन दितां” अशें अभय दिलें. हो याग

करपाक वशिष्ठा मुनी तयार जावूं ना न्हय, तोच याग आपण करून वशिष्ठाक अपमान करचो हो उद्‌देश विश्वामित्राचो.

विश्वामित्रान रोखडेंच आपले शिश्यांक आपयलें "चला सगले ऋषींक वचून मेळात आनी ह्या यज्ञाक तांचे शिश्यां वांगडा येयात म्हणून हांवे निमंत्रण दिलां अशें सांगा." अशें आदेश दीवन शिश्यांक धाडून दिलें. शिश्य सगले वेगवेगळे दिकान गेले; आनी मुनींक आमंत्रण दिवपाक सुरवात केली. तांतूत 'महोदय' ह्या नांवांचे एका ऋषीन आनी वशिष्ठाचे शंभरूय भुरग्यानी विश्वामित्रान करोवपी ह्या यज्ञा विशीं उपहास्य केलें – "किदें? चांडाळान करपी यज्ञाक देवांक संतुश्ट करून हो बडबडकरपी विश्वामित्र त्रिशंकूक नीट सर्गार चडयत की?!" अशें परिहास्य केलें. विश्वामित्रांच्या शिश्यानी हें हुबेहूब ताका येवन सांगलें.

हें आयकून विश्वामित्र रागान उजो उजो जालो आपली आनी त्रिशंकूची आनी मुकार करपाचे यज्ञाची निंदा केल्ले महोदय मुनी नाशजावं आनी वशिष्ठाचे सगले भुरगे भस्म जावों अशें स्राप दिलो. त्या स्रापा वरवी महोदय मुनी काबार जालो आनी वशिष्ठाचे सगले पूत जळून गोबोर जाले.

## "वेगळोच एक इंद्र सृष्टीकरतां"

विश्वामित्रान यज्ञ आरंभ केलें. ऋषींनी त्रिशंकू मारफत देवांक हविस्स दिवयलें. जाल्यार कोणीय देवता हविर्भाग स्वीकारपाक आयली ना. हें पळोवन विश्वामित्राक तिडक मारली. तक्षण त्रिशंकूक आपोवन "त्रिशंकू, हे पळे ... .. आतां हांव तुका म्हजे तपःशक्तीन ह्या शरीरा सकट सर्गार चडयतां अशें आड्डयो मारल्यो. हें आयकून थंयसर जमील्या ऋषीमुनींक आश्चर्य जालें. ताणीं सगल्यांनी विस्मित जावन पळयत आस्तानूच त्रिशंकू

महाराजाक सर्गार चडयलो. त्रिशंकू आपली कूड सकट वयर वयर आनी वयर चडत देवलोकाक पावलो. एक मनशाक आपल्याले राज्यांत येवचें पळयतकच देवेंद्राक राग आयलो, आनी ताणें "अरे मूर्खा ... ... गुरूचे स्रापान भृष्ट जाला तूं. तुका हांगा सर्गांत प्रवेश ना." अशें म्हळें आनी आक्रोशान ताची गळ्या गोमटी धरून सकयल धुकल्लो.

त्रिशंकू तकली सकल जावन पडपा लागलो. ताका खूब भिरांत जाली ......" हो ... . हो" अशें बोब मारत "विश्वामित्रमुनिवर्या ... .. हांव मेलों ... .. मेलों ... .. म्हाका वांचया ..... म्हाका वांचया ......" अशें किळंची मारपा लागलो. हें पळयत आशिले विश्वामित्राकूय इंद्राचेर राग आयलो. "बाबा त्रिशंकू तूं कांय भियेनाका. थंयच थांब" अशें म्हणत आपले तपःशक्तीन त्रिशंकूक थंयच अर्ध्यारूच थांबयलो. थंयसर दक्षिण दिकेन वेगळेंच एक सप्तर्षी मंडल आनी नक्षत्रमंडल सृष्टी केलें.

"वेगळोच एक इंद्र सुद्दां निर्माण करतां. ना तर सामके देवलोकाक इंद्रच ना करून सोडटां" अशें ढरकाळी घाली.

हें आयकून देवतेंक आनी ऋषींक भिरांकूळच जाली. ताणीं सगळ्यानी मेळून विश्वामित्राक "महर्षी, ह्या त्रिशंकूक गुरूचो स्राप आसा. देखून ताका सर्गांत प्रवेश ना". अशें सांगलें.

"म्हजी प्रतिज्ञा केन्नाय फालस वचना. हांवे रचयिल्लीं नखेत्रां शाश्वत उरतालीं. आनी त्या नक्षत्रलोकांत त्रिशंकू सशरीर जावन रावतालो" अशें म्हळें विश्वामित्रान.

अखेरेक आपलोच ह ˙ जिकलो हें पळोवन विश्वामित्राक आनंद जालो. पूण आपली तप:शक्त उपाट रागानिमतान नश्ट जावन गेली हें रोखडेंच ताचे

लक्षांत आयलें. देखून थंयसावन उठून अस्तंते वाटेन म्हळ्यार पश्चिमदिकेन येवन पुष्कर नांवाचे क्षेत्रांत तपश्चर्येक बसलो.

## "बाळकच यज्ञपशू"

हेच काळार अयोध्येंत थंयचो राजा अंबरीष एक यज्ञ चलयतालो. त्या यज्ञाक बळी दिवपाक बांदिल्लें यज्ञपशु चोरून व्हेलें. यज्ञपशुची चोरी जाल्ली आयकून अंबरीष दुख्खित जालो. तेन्ना मंत्रज्ञानीं ताका सल्लो दिलो की एक वेगळो पशू सोदून हाड अशें. त्या प्रकार सोदत वताना ताका रानांत "ऋचीक" अशें नांवाचे ऋषीलें आश्रम मेळ्ळें. राजा अंबरीषान त्या ऋषीकडेन आपलें दुख्ख सांगून घेतलें. तो ऋषी खूब गरीब. ताचे तीन चले भुरगे. ताणें म्हळें "राजा, तुका चलता जाल्यार

म्हजोच एक चलो तुका दिवपा शकतां" पूणून कोणाक दिवपाचें? वडील पुताक दिवपाक बापूय कशेंच तयार ना आनी धाकटो तो आवयचे मोगाचो. ती कबूल नासली. तर उरलो मदलो – शुनश्शेफ. एक लाख गायांचे मोल घेवन ऋचीकान ताका विकलो. बाळक शुनश्शेफाक खूब वायट दिसलें. तरी यज्ञपशू जावपाखातीर तो राजा अंबरीषा सांगात भायरसरलो. वतना वाटेर पुष्कर क्षेत्र. थंय तपश्चर्येक बशिलो विश्वामित्र ह्या शुनश्शेफाचो मामा!

## "बाळा भियेनाका"

अचकीत आपले मामाक पळयतकच शुनश्शेफाक आपलो जीव वाटोवन घेवपाची संध मेळी अशें दिसलें. ताणें धावन वचून मामाच्या मांडीर बसून रडत रडत आपली काणी सांगली – "म्हजे आवय–बापूय आसून सुद्दां नासले भशेन जालें. तूं कितले तरी लोकांक

रक्षण करता. मामा म्हाका वांचय. म्हजो जीव वाटावप पुणून अंबरीषाचें यज्ञ मोडपाक नजो." अशें मागलें.

आपले मांडीर बसून रडत मागणी करपी थाक ट्याक पळोवन विश्वामित्राचें मन विरगळ्ळें. "बाळा ... .... तूं कांयच भियेनाका" अशें म्हणत खंयचेय कष्ट पयसावपी शक्तिवान असले मंत्रांचो उपदेश दिलो. "तुका यज्ञमंटपांत खांब्याक बांदून दवरिले वेळार भक्तीन ह्या मंत्रांचो जप कर. तुजो जीव वांचता पळे. देव बरें करूं" अशें सांगून ताका आशीर्वाद केलो. राजा अंबरीषान त्या बाळकाक आपले यज्ञशाळेंत व्हेलो आनी खांब्याक बांदयलो. यज्ञाची सुरवात जाली. शुनश्शेफ आपल्याक उपदेश केल्लीं हीं मंत्रां भक्तीन जपत रावलो. देवेंद्राक स्तुती करपाचीं हीं मंत्रां आयकून देवेंद्र खोसजालो. ताणे भुरग्याक आशीर्वाद केलो. अशें अंबरीषालें यज्ञूय पार पडलें आनी शुनश्शेफाचें प्राणूय वांचलें.

## “तूं ब्रह्मऋषी”

थंयसर तपश्चर्येक बशिले विश्वामित्रान एक हजार वर्सां मेरेन कठीन व्रत केलें. ब्रह्म खुशीन प्रत्यक्ष जावन “विश्वामित्रा आतां तूं राजर्षी जालो” अशें म्हणपा लागलो. विश्वामित्र तृप्त जावूं ना. आपल्याक “ब्रह्मऋषी” चो मान दिवपा जाय अशें ताचें ह . देखून परतून घोर तपस्या सुरु केली. ह्या वेळार मेनका नांवाच्या अपसरेक पळोवन विश्वामित्र भुल्लो. आनी तांची ‘शकुंतला’ नांवाची एक चली जाली. अशें मेनके बरोबर जीवन करून आपणे तपश्चर्या विसरली म्हण विश्वामित्राक खूब लज जाली. तो मेनकेक सोडून उत्तर दिकेन वचून कठोर तप करपाक लागलो. कित्ल्योय अडखळी आयल तरी खंयच राग धरूंना. अशें आनी हजार वर्षाचे व्रत सोंपयलें. एक दिवस विश्वामित्रान जेवपाक म्हण शीत शिजयलें. तेच घडयेर इंद्र एक गरीब ब्राह्मणाचो भेस बदलून थंय आयलो आनी विश्वामित्रान जेवपाक तयार केल्लें शीत

मागलें. विश्वामित्रान वेगळो विचार करीनास्ताना ताबडतोप तें पुराय जेवण ताका दिलें आनी परत तपश्चर्येक बसलो. आनी एक हजार वर्षां उपरांत ब्रह्म प्रत्यक्ष जालो आनी ब्रह्मान म्हळें "विश्वामित्रा आतां खरेपणाक तूं महर्षी जालो."

पुण विश्वामित्राक हाचेन खोस जाली ना; वायटूय दिसूं ना. किदेंय जावूं आपण ब्रह्मर्षी'चो मान फावो करुन घेवपा जाय अशें निर्धार करून परतून तपश्चर्येक लागलो. मदीं मदीं आयिल्लीं विघ्नां सगलीं पार पाडयलीं. विश्वामित्राच्या ह्या तपश्चर्येक सबंद संवसारांत खवदळो सुटलो. देवेंद्रान वेगवेगळे भेस बदलून विश्वामित्राची परीक्षा घेतली; पुणून देवेंद्र हरलो.

तेन्ना स्वता ब्रह्म सगले देवते सांगतीक येवन "विश्वामित्रा तूं जिंकलो ... .... तूं आतां ब्रह्मर्षी जालो" अशें म्हणपा लागलो.

विश्वामित्रान नमळायेन ब्रह्माक नमस्कार करून सांगलें ... .. "वेदज्ञानी वशिष्ठान हांव 'ब्रह्मऋर्षी' व्हय म्हणून कबूल करपा जाय अशीं म्हजी इत्सा". तेन्ना सगले देवांनी वशिष्ठ ऋषीक प्रार्थना केली आनी वशिष्ठ मुनीन येवन विश्वामित्राक 'ब्रह्मऋषी' अशें मान फावो केलो.

आतां विश्वामित्रान आपलें अखंड तप थांबयलें. सगले देव–देवतेंक, म्हालगडयांक, वशिष्ठ मुनी आदींक आपलें गौरव समर्पण करून विश्वामित्र संवसारांत पूजनीय अशें नांवपावलो.

## "देवसभेंत प्रतिज्ञा"

एक दिवस देवलोकाचे भव्य सिंहासनाचेर बशिल्लो देवेंद्र वशिष्ठ मुनीक उद्‌देश करून "महामुनी तुमचे शिश्य परंपरेंतले इक्ष्वाकू वंशाचे राजां मर्दीं केन्नाय

असत्य उलयनासले तसले सत्यसंध आसात की?" म्हणून विचारलें. तेन्ना वशिष्ठ मुनीन "कित्याक ना? सूर्यवंशाचो राय हरिश्र्चंद्र सत्यवंत जावन आसा" अशें उमेदीन म्हळें.

हें उतर सभेंत बशिले विश्वामित्राक पटलें ना. तो सट्ट करून उठून "वरिष्ठा, देवेंद्राक तर करपाक वेगळें काम ना. वेळ घालप कशें म्हण समझूतनांशी कांयतरी विचारता. खरी गजाल किदें ती खबर नासले देवेंद्रान तुका पयलो पाट दीवन प्रश्न केलो म्हळयार तूंवे कांयतरी बडबडप सारकें न्हय हां?" म्हळें.

दोगी ऋषीं मजगती बरोच वाग्वाद जालो. घुसुफुसुं उतरां जालीं. विशय गंभीर जावचो पळोवन सभेंतले सगले भियेले. देवेंद्राक तरी आकांत जालो. दोगांकूय समाधान करपी कोण? दांतकिडि चाबत विश्वामित्रान म्हळें .... "आरे वशिष्ठा, तुका आनी तुज्या त्या शिश्याक

व्रतभृष्ट जर हांवे केलोना तर हांव विश्वामित्रच न्हय."
अशें आड्डून देवलोका थावन भूलोका दिकान धडधडीत चलून गेलो.

## "म्हाका दान दी"

विश्वामित्र सरळ भूलोकांतल्या आपले आश्रमाक आयलो. राजा हरिश्चंदाक फटकीरो म्हणून थारावपाचो कशें म्हण येवजणी सोदपा लागलो. देवेंद्राचे सभेंत आपणे प्रतिज्ञा केले भशेन हरिश्चंद्राक फटिंग म्हण दाखोवन दिवप तितलें सोंपे न्हय हेंवय खात्री जाल्ली

राजा हरिश्चंद्रान 'बहुसुवर्णयाग' ह्या नांवाचो एक याग करयलो. वशिष्ठ मुनीन नासले वेळार विश्वामित्र यज्ञशाळेंत आयलो. हरिश्चंद्रान ताका योग्य पीठार बसोवन अर्घ्य-पाद्य दीवन सत्कार केलो. नंतर नमळायेन विचारलें की आतां आयिल्लो उद्देश कितें म्हण. "म्हाका एक

दान जाय राजा." म्हळें विश्वामित्रान. राजा खोशयेन त्या उतराक कबूल जालो. "एक व्हडल्या हतयेर एक ऊंच दादल्यान उबें रावन ताणें एक कवडी वयर मोखल्यार कितले वयर पावत पळे तितली उबार नवेताल्ल भांगराची रास म्हाका दान जाय" अशें म्हळें विश्वामित्रान.

राजा हरिश्चंद्रान ताबडतोप खोशयेन सांगले" बरें आसा मुनिवर्या, आमच्या खजिन्यांत आसा ... खुशालकायेन व्हरा"

राजा अशें प्रत्युत्तर दीत अशें विश्वामित्रान चिंतूकच नासलें. हो ताका बशिलो पयलो धक्को, अपजय. आपलीं पचकटपणा दाखोवन घेनाशीं "आसों आसों राजा, तुजे भंडारांतूच आसूं दी. म्हाका गरज पडिले तेन्ना हाडोवन घेतां" अशें म्हणत सटसटीत आपले आश्रमाक गेलो.

विश्वामित्रान आपले तपश्चर्येचे ताकतेन कितलींशीं दुष्ट मृगां सृतष्टी केलीं, आनी हरिश्चंद्राले प्रजेंक सतवपा खातीर शारांत धाडलीं. ह्या जनावरां निमतान खूब त्रास जाता अशें प्रजेन राजाक कागाळ केली. त्या रानटी जनावरांची शिकार करपाक राजा हरिश्चंद्र, राणी चंद्रमती, राजकुमार रोहिताश्व आनी कितलेशे परिजन आनी सेवक बरोबर घेवन रानांत गेलो.

## "हरिश्चंद्रा वरवी अपयश!"

हरिश्चंद्रान रानांत आराम करत आस्ताना विश्वामित्रान आपले तपाचे प्रभावान दोन युवतींक घडोवन धाडलें. तीं दोगीं हरिश्चंद्रान बशिल कडेन येवन मुद्‌दम असभ्य वागणूक करपा लागलीं. जेन्ना हरिश्चंद्रान रागान तांका धांवडायलें, तेन्ना विश्वामित्र हरिश्चंद्रा लागीं एवन "तूंवे म्हजे भुरग्यांक थापट मारलें कित्याक?" अशें रूश्ट पणान उल्लोवन ताचो दंड म्हणून हरिश्चंद्राचें

पुराय राज्य झोंबून घेतलें. अशें ताका सामको दळडीर करून, ताचे हात सामके रिकामे जाले म्हणटकच "राजा फाटी तुजकडेन दान मागिल्ली भांगराची रास तुजे लागींच सोडिल्ली हांवे – ती आतां दी" अशें म्हळें. राजान ना म्हणूं ना, पुण ताचो खजीनो, सिंहासन सगलें काडून घेवचा देखून पुराय पयशे फारीक करपाक उणाव जालो आनी विश्वामित्रान ताका फक्त अश्टेचाळीस दिसांची मुद्दत दिली.

अशें हरिश्चंद्र, चंद्रमती आनी रोहिताश्व एकंदर राज्य वगडावन, राज्य सोडून भायर गेले. तांका सतोवपाखातीर विश्वामित्रान नक्षत्रिक नांवाचे एकल्याक तांचे फाटी धाडलो.

हरिश्चंद्रान आपली राणी आनी मोगाचे पुताकूय विकून रीणाचे पयशे नक्षत्रिका वांगडा धाडून दिलो. पुण आपले उतराक चुकलोना.

मागीर हरिश्चंद्रान जीवनी खातीर काशींत स्मशानाची रखवाली करपाचो वावर पतक रलो. त्या दिसानी ताचो भुरगो सरप चावून मेलो. तें प्रेत दहना खातीर स्वता चंद्रमतीच स्मशानाक घेवन आयली. रात्रीचे काळखांत हरिश्चंद्राक मेल्लो हो तो आपलो भुरगो, तें प्रेत उबारून हाडिल्ली आपली बायल, हें कांय दृश्टी पडूना, लक्षांतूय वचूना. जेन्ना प्रेत लासपाच्या जाग्याचें भाडें मागलें आनी हातांत एक कवडि सुद्दां नासलेली चंद्रमतीन रडत रडत आपलें दुःख सांगलें हरिश्चंद्राक ती आपली घरकान्न म्हण कळ्ळें. तरी पुण ताणें वळख दाखोवन घेतली ना. इतलें न्हय भाडयाच्या पयशांत सूट सोडपाकूय तयार ना जालो. चंद्रमती पयशे हाडपाक म्हणून स्मशान सोडून भायर आयली तेन्ना काशी राजाचे सैनिकानी तिका तिचेच चल्याची खून केल्ले आरोपाचेर अटक करून काशीराजा मुकार व्हेली. राजान तिका मरणदंड

दिलो आनी तिची तकली कातरपाखातीर हरिश्चंद्राकूच नेमलें. आनी हरिश्चंद्र आपलें कर्तव्य करपाक तयार जालो. हें सगलें पळोवन साक्षात परमेश्वर प्रत्यक्ष जालो आनी ताचो पूत रोहिताश्वाकूय वांचयलो. विश्वामित्राक हरीश्चंद्राले सत्यसंधतेचे विशयांत खूब अभिमान दिसलो, आनी तादें राज्य ताकाच परतदीवन आपले आश्रमाक गेलो.

## "श्री रामाचो गुरु"

रामायणांतूय विश्वामित्राची भूमिका खूब प्रधान जावन आसा. इक्ष्वाकू वंशाचो राय दशरथाचे चार पुत्र – राम, लक्ष्मण, भरत आनी शत्रुघ्न. तांचे गुरु वशिष्ठ महर्षी. राजकुमार वाडले आनी धनुर्विद्या शिकले. आवय–बापायचे तर सामके मोगाचे; प्रजेक तर हे राजकुमार भोव कौतुकाचे.

एक दीस विश्वामित्र दशरथाचे राजवाड्याक आयलो. दशरथ रायान ताचो पाहुणाचार खूब गौरव पूर्वक केलो, आनी नमळायेन विचारलें "मुनिवर्य, म्हजे निमतान कांय तरी मदत जाय जाल्यार सांगा." तेन्ना विश्वामित्रान दशरथाक म्हळें "मारीच आनी सुबाहू नांवाचे दोन राकेस खूबच त्रास दितात. ते स्वता खूब पराक्रमीय व्हय. एक स्राप दीवन तांका आळाबंदा हाडपा शकतां. जाल्यार हांव यज्ञ करतां देखून, यज्ञकर्मांत कोपोद्रिक्त जावन स्राप बी दिवपा नजो. देखून महान व्यक्तिमत्व आसलेलो आनी पराक्रमी जावन आशिले श्रीरामाक म्हजे सांगातीक धाडून दी. तो राकेसांचे वध करतालो. ताचें पराक्रम आनी ताची कीर्ती तिनूंय लोकांत पसरचे तशीं बरेपण हांव करुन दितां. राम अजून वयान धाकटो. राकेसांक कशें जितो मारतालो? अशें चिंतून दशरथान विश्वामित्राक "हांवच तुमचे वांगडा येतां, म्हजें व्हडलें सैन्यूय हाडटां आनी राकेसां वांगडा झुजतां. म्हाका

अनुमती दियात” अशें मागलें. “रामाच्या शौर्याचो तूं कांय दुबाव घेवनाका दशरथ” विश्वामित्रान खेळीमेळीन सांगलें. तरीय दशरथ कबूल जावूं ना. आतां विश्वामित्रान आवाज मोटो काडलो “तुमका जायती मदत करतां अशें उतर दीवन आतां उतरान फाटी सरता?” राजगुरु वशिष्ठानूय बुद्द सांगली – “दशरथा, विश्वामित्र अती पराक्रमी, ज्ञानी, महातपस्वी; विंगविंगड शस्त्रास्त्र चलोवपाचो जाणकार, शस्त्रास्त्रांची इतली व्हड जावविकाय आशिले आनी कोणेंय ना. राक्सांची वध तोच स्वता करपा शकता. अशीं आस्ताना रामाक – कांयच भिरांत ना. ताचे ऐवजी विश्वामित्रावरवी रामाकच कल्याण जातलें. तूं कांय चिंता करुनाका.” इतलें सांग्तकच दशरथ कबूल जालो आनी रामाक धाडलें. रामाचे सांगाताक लक्ष्मणूय भायर सरलो.

वतना वाटेर तांका सरयू नदी लागली. ताचे काठार बसून विश्वामित्रान श्री रामाक 'बल' आनी 'अतीबल' ह्या मंत्रांचो उपदेश दिलो. अद्वितीय बाहुबल आनी ज्ञान दिवपाक ते अरण्याक फुडे गेले. ह्या अखंड रानांत रानटी मोनजात आनी किड्यांचोय आवाज. थंयसर आशिल्या ताटका नांवाच्या दुश्ट राक्षसीक आळाबंदांत हाडपाचो वावर रामाक दिलो. आनी आपल्याक फाटीलागिल्या ताटकाचीच हत्या केली रामान.

दुसरे दिवस फांतोटयार श्रीरामाक जागोवन विश्वामित्रान देव आनी असूर हांका पराभव करपी दिव्य अस्त्रांची वळख करून दिली, आनी तीं अस्त्रां फाटी घेवप कशें हेंवय शिकयलें.

इतली सगली तयारी करून विश्वामित्र यागाचे सुरवातीक लागलो. यागचलताना कशें रक्षण करप हेंवूय शिकयलें. याग प्रारंभ जालो पांच दीस मेरेन कांय

अडखळ नास्ताना यज्ञ चल्लें. सवे दिसाक अकस्मात मळबांत एक भयानक आवाज जालो. ताचे फाटोफाट मारीच आनी सुबाहू हे दोगीं राकेस आपले वांगडयांक घेवन धावन आयले, आनी यज्ञाचे पवित्र अग्नींत रगत ओतलें. श्री रामान इल्लोसो सुद्दां वेळ लायनास्ताना मारीचाक धांवडायलो आनी सुबाहुचें वध केलें. हें पळोवन विश्वामित्र आनी हेर ऋषींक खूब समाधान आनी आनंद दिसलो.

## "अहल्येचो उद्धार"

मिथिला देशाचो राजा जनक. तो खूबच धर्मात्म. ताचे आस्थानांत 'शिवधनुष्य' म्हळो एक अजापाचो धनुष्य आशिलो. तो धनुष्य उखलपाक कोणूंय शक्तनासले. जनक महाराजान एक यज्ञ करपाचो निश्चय केलो. त्या यज्ञाक विश्वामित्र आनी हेर ऋषी थंयसर

भायर सरले. थंय वतना विश्वामित्रान श्री रामाक ते अद्‌भुत धनुचो विशय सांगिल्लो. लक्ष्मणय ताचे सांगातीक गेलो.

मार्गाचे दोनींय वाटेन सोबीत रानां-वनां, ऋषींचीं तपश्चर्या करपी पवित्र थळां. विश्वामित्रान श्री रामाक आनी लक्ष्मणाक ताचे संबंदी काण्यो, गजाल्यो सांगत यात्रा खुशालकायेन जावचे तशीं पळयलीं.

वाटेर गौतम ऋषीलें आश्रम पडटाशिलें. आश्रम सुंदर पुणून निर्मनीस जावन आशिलें. "हें अशें कित्याक?" श्री रामान प्रश्न विचारलो. गौतमाची बायल अहल्या. तीणें कितें तरी पातक केलें म्हणून गौतमान तिका "हजारानशी वर्सां तू फातर जावन पड" अशें स्राप दीवन आपण तपश्चर्येक उठून गेल्लो. – हो विशय श्री रामाक सांगून "अहल्येचो तूं उद्‌धार कर" अशें आदेश दिलो.

श्री रामाचो पांय त्या शिलेक लागतकच अहल्या जीवंत जाली; ती तेजस्वी दिसली. तीणें विश्वामित्र, श्रीराम, लक्ष्मण आदींचो पाहुणाचार केलो. अहल्या शाप विमुक्त जाली हें आयकून ऋषी गौतम सुद्दा थंय पावलो आनी सगल्यांक खूब आनंद दिसलो.

## "सीता रामांक आशीर्वाद"

थंय मुकार मिथिलेक वचून श्री रामान शिवधनुष्य उखल्लो आनी जनकराजान आपले उतरा प्रमाणे आपली धूव सीतेक रामाक दीवन लग्न केलें. आपली आनी एक धूव ऊर्मिळेक लक्ष्मणाक दिली. जनकाचो भाव कुशध्वज. ताचे चलियांक श्री रामाचे भाव भरत आनी शत्रुघ्न हांचे बरोबर एकच मांटवांत लग्न केलें. सगल्यांक 'बरें जावों' अशें आशीर्वाद करुन विश्वामित्र हिमालयाक गेलो.

## "भव्य व्यक्तिमत्व"

धाडशांत धाडशी, वज्रमनीस, शक्तिचो प्रत्यक्ष रूप असलो हो विश्वामित्र देवांक, राकेसांक, मनशांक अशें कोणाकूय भियेना तसलो वीर; महा तपस्वी. चूक ती चूक म्हणून मानपी. सगल्यांचें बरें येवजुवपी. हरिश्चंद्राक सबंद राज्य परते केलें ताणें ... . जाणा मूं तुमीं? छळ, शौर्य, तप:शक्ती हाचे वांगडा काकुळट, दया भरपूर आशिल्ली. शुनश्शेफाचो जीव वांचयलो. अहल्येक स्रापांतल्यान मेकळीक करयली. वेगळोच एक स्वर्ग निर्माण करतां, वेगळोच एक इंद्र उपस्थित करतां अशें म्हणत थिटायेन भाग्रसरिल्लो ... . आनी एकांद्रे करपा शकताय आसलो तितलो धैर्यवान. व्हडलो तपोधन, श्री रामाचो गुरु. रामान सीते कडेन लग्न जावचें हें आदींच येवजून श्री रामाक मिथिला राज्याक आपोवन व्हरपी ज्ञानी.

अशें प्राचीन भारतांत आमकां विस्मित करूं सारके पर्वतसदृश व्यक्तिमत्वाचे पुजनीय व्यक्तिंत विश्वामित्र एकलो.

